• भरत नायक •



# बॉबी न्हिदता तेन्ना

# बॉबी न्हिदता तेन्ना



प्रकाशन क्रमांक : 157

1996

**प्रकाशक :**
प्रभाकर द. भिडे
राजहंस वित्तरण, 1-मीनाक्षी बिल्डिंग,
डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी - 403 001

**छपाई :**
राजहंस ऑफसॅट, पणजी.

**मुखपृष्ठ आनी सजावट :**
दीपक पेडणेकार

**मोल :**
1996 - 14/- रु.
1997 - 14/- रु.
1998 - 16/- रु.

ISBN 81-85854-56-4

# बॉबी न्हिदता तेन्ना

(उमेशाच्या मेजार बऱ्योच फायली, बील-बूक, पेपरवेट, पेन-स्टँड बी आसा. उजवे वटेन ऑफिसाक तेंकुनूच छापखानो आसा. दावे वटेन भायलें दार. पड्डो वयर वता तेन्ना उमेश कदेलीर बसून बरयता तो दिसता. सायब छापखान्यांतल्यान येता आनी भायर वता. सायब भायर वतांच उमेश अुठून मेजार बसता, आनी पेपर वाचता. भायल्यान विठोबा येता.)

**विठोबा** : उमेशबाब, सायब गेलो.

**उमेश** : हय्. सगळें जाग्यार अुडोवन गेलो.

**विठोबा** : आमचें जाग्यार अुडयलां काय ना ? फाल्यां-फाल्यां करून म्हयनो सोंपलो. फाल्यां तीस तारीख.

**उमेश** : विठोबा, आयज हांवें सायबाक सांगलें.

**विठोबा** : कितें म्हणोन?

**उमेश** : परवां अेक तारीख म्हणून.

**विठोबा** : मागीर कितें म्हटलें सायबान?

**उमेश** : आनीक पंदरा दीस राव खंय. दोनूय म्हयन्याचें वांगडाच दिता खंय.

**विठोबा** : पंदरा दीस? तेजे पंदरा दीस म्हणचें अेक म्हयनो.

**उमेश** : आरे विठोबा, कशें कळना तुका? पेपर सुरू केल्यार दोन म्हयने जातात थंयच आसात. अजून पेपर खपतात तरी सारके? मनांत आयलें सायबाच्या म्हणून काडलो पेपर. चल्लो बरो जाल्यार आमचें नशीब, नाजाल्यार आमीय बिटकी कवळपाची.

**विठोबा** : बाकीच्या छापखान्यानी तीन-तीन शिफ्टी आसात. आमका दोनूच. सांजेचें सोंक येवचें आनी सकाळी णोवांक हात हालयत वयचें. पगार सुबेज दिता म्हणोन सांगलां खरें, पूण अजून मुदलानूच पडना. आमी खावचें कितें? आमका भुकूच लागना रे?

उमेश : तुका भूक आसा आनी हांवे कितें पोटांत फातर भरून दवरल्यात रे जिरनात तसले? आमीय चितूंक जाय न्हय, सायबाची परिस्थिती. अजून आमका ऑफीस म्हण्टात तें सारकें ना. हांगा ऑफीस आनी हांगाच छापखानो. सगळी रात कांनाकडें कटकट. स्टाफ तरी सारको आसा?- तें कित्याक? हांव कोण तेंच म्हाका खबर ना. क्लार्क, युडिसी, एल्डीसी, काय मेनेजर, काय संपादपी, काय प्यून...

विठोबा : प्यून हांव न्हूं?

उमेश : प्यून तूंच रे. पूण केन्नाकेन्नाय तूं येता पिवन तेन्ना हांव तुजो प्यून. भितर छापखान्यांत संवंगा आसात तीं तरी सारकीं आसात? थोड्यांक अक्षरां वळखूंक कळनात.

विठोबा : गुड्डे मारून केलां आसतलें काम.

उमेश : हय...! पगार मेळना ते सिरविसेक आनी गुड्डे जाय! हाडल्या आसतले मेळटा तांकां धरून. आमका कशे हाडल्यात?

विठोबा : उमेशबाब, तुजें कुंड्यार शिजता जायत. पूण म्हज्यान हें सोसूक जायना.

उमेश : मागीर कितें करुया?

विठोबा : हाव सांगू? संप करया.

उमेश : विठोबा, आयज बरेंच उलयता मरे तूं !

विठोबा : कितें करूं? सुकलेलें करड तें. भूरर करून पेट्टा. तूं कितेंय कर. परवां एक तारखेर जर पगार पडना जाल्यार हांव मात सिरवीस सोडटलों.

उमेश : आनी कितें करतलो?

विठोबा : सिनेमाच्यो तिकेटी ब्लॅक करतलों. काय बरो धंदो तो. म्हाजो भावोजी कितलें जोडटा.

उमेश : ताकाय बी पयशेच जाय पडटात. विठोबा, म्हजें आयक. थोडे दीस आसा तेच परिस्थितींत काडुया. सांगूं येता? फाल्या धंदो फुल्लो जाल्यार

होच पेपर सगळ्यांत चड खपूं येता. मागीर आमका व्हडलें ऑफीस, म्हयन्या म्हयन्या पगार, टी. अे., डी. अे., बोनस चडत रावतलो.

**विठोबा** : तोमेरेन म्हाज्या हातींत बडी येतली.

**उमेश** : आता ही फायल घे आनी भितर वच. आयक रे! त्यो जायराती सारक्यो मारूंक लाय. पयरच्या भाशेन चुको जावंक [illegible]ना. तापोवण्यो म्हाका खांवच्यो पडटात. (विठोबा वता) तुमी आपले सुसेगाद आसात भितर. (हिप्पी येता.)

**हिप्पी** : पारदों! बोंजूर!

**उमेश** : कितें म्हणलें?

**हिप्पी** : मों शियाँ ये पेरदू.

**उमेश** : म्हणचे कितें गा? तूं खंयचे भाशेंत उलयता?

**हिप्पी** : शियाँ शियाँ.

**उमेश** : शियाँ? शियाँ म्हणून खंयच्या देसाची भास?

**हिप्पी** :उई! मों शियाँ... आजूदीऊ ओ माता.

**उमेश** : आगा तुजें जालां कितें? शियाँ-शियाँच करता. कसली भास म्हळ्यारूय शीयांच म्हण्टा. आमच्या देसांत येतना आमची भास शिकून येवचो. आतां चल घरा आनी आमची भास शिकून यो.

**हिप्पी** : मों शियाँ... लानोस.

**उमेश** : आगा, तूं कितें उलयता तें म्हाका समजना आनी हांव कितें उलयतां तें तुका समजना. शीयाँ शीयाँ कितें शीयाँ?

**हिप्पी** : लानोस....

**उमेश** : कितें?

**हिप्पी** : लानोस.

**उमेश** : No. Go home!

हिप्पी : लानोस.

उमेश : आतां हें दुसरें पेपरें लायलें. आगा, What do you want? (तो वोगी) हाका इंग्लीश कळना दिसता. उके कॅर?... च्या, ही पुर्तुगेज जाली.

हिप्पी : फराँसे-फराँसे.

उमेश : फराँसे...?

हिप्पी : उई फराँसे.

उमेश : आ? आं! फ्रँच रे? तूं फ्रँच उलयता?

हिप्पी : उई. फरँच-फरँच.

उमेश : उके... उके... वॉट-वॉट.. च् कशी काय ती फ्रँच. क्या मांगता हाय? ही हिंदी जाली. विठोबा ऽऽ!

विठोबा : येयलों (येता.)

उमेश : आरे विठोबा. तू फ्रँच जाणा?

विठोबा : कितें? फ्रँच?

उमेश : हय फरँच. फराँसे, फराँसे.

विठोबा : ना रे बाबा. हो नेवोच येयला दिसता. अेकट्यान नाचपाचो काय दोगांनी?

उमश : फ्रँच डान्स न्हय रे. फ्रँच ही एक भास. फ्रँच भास. उलोवपाक जाणा तूं?

विठोबा : कशी उलोवप तें सांग, मागीर हांव उलयतां.

उमेश : हांव तरी खंय जाणा? हो पळय तो उलयता. ताकाच विचार.

विठोबा : सिंयोर, उके? इसपीक-इसपीक.

उमेश : असली न्हय रे. तूं पुर्तुगेज उलयता आनी मदींच इंग्लेज तापयता.

विठोबा : तेका पयलीं उलोवंक लाय. तो उलयनासतना कशें उलोवप तें म्हाका कशें कळटलें?

हिप्पी : ज सुई वेन्यू दोनेर लानोस द मों शियाँ.

**विठोबा** : पुरो-पुरो. समजलें. उमेशबाब, ही पावलूची भास. आमचो पावलू केन्नाकेन्नाय अशेंच उलयता सांतानाकडेन. पूण सांतानाक तें बरें समजना. पावलूक आपयतां.

**उमेश** : नाका-नाका. तो भायर आयल्यार भितर वचचोना. तो पयलीं कामचोर. हें पळय, What do you want? हें फरँचीन कशें म्हणप तेंच ताका विचार आनी यो.

**विठोबा** : वॉट यू वॉन्ट?

**उमेश** : हय. म्हणचें तुका कितें जाय? इतलेंच विचार.

**विठोबा** : बरें (भितर वता.)

**उमेश** : (खुर्चेर हात मारून ताका बसपाक खुणायता. तो बसता.)

**हिप्पी** : मेरशी, (तोंडाकडेन आंगठो व्हरून) दोने मुआ दो.

**उमेश** : उदक?... ना. नो उदक. येथंय कॅन्टीन आसा कॅन्टीन. थंय च्या बी सगळें मेळटा.

**हिप्पी** : इल ने पा दो? ज सुआफ!

**उमेश** : आगा हांगा उदक ना गा सायबा. कॅन्टीन, कॅन्टीन थंय भायर.

**हिप्पी** : केस्कसे?

**उमेश** : कांय न्हय, कांय न्हय. नो. वगी बस. सीट, सीट, क्वायट.

**विठोबा** : (येवचे येवन हिप्पीक विचारता) क व्हूले व्हू?

**हिप्पी** : (ताका पळयत रावता)

**उमेश** : ताणे कितें सांगलां तें म्हाका सांग रे.

**विठोबा** : आतां हांव उलयलां तेंच.

**उमेश** : आनी एकदा म्हण पळोवया.

**विठोबा** : आतां इसल्लो हांव. तेणे म्हाका सांगलें तशें हांव उलयलों. पूण हो वोग्गी रावलो. तो खंय तें इश्कोलांत शिकलोलो. हें पळय तेणे बरोवन

दिलां (कागद दिता. उमेश वाचूंक लागता. कळना म्हूण हिप्पीकडेन दिता.)

हिप्पी : (वाचून जातकीर) ज देझीर मों शियाँ बॉबी.

विठोबा : कितें-कितें? आनी अेकदा सांग.

हिप्पी : ज देझीर मों शियाँ बॉबी.

विठोबा : बॉबी.

उमेश : बॉबी?

हिप्पी : मों बॉबी. (म्हजें बॉबी.)

उमेश
विठोबा } : (अेकमेकांक पळोवन) बॉऽऽबी?

उमेश : अितलो वेळ च्यँव- च्यँव करून उलयलो, त्यापरस पयलींच बॉबी म्हणिल्लें जाल्यार येन्रा सगळें काम करून मेकळो जावपाचो. विठोबा, चल बॉबीक कोण सोदूंक आयला म्हूण सांग. (विठोबा वता) बस, बस येतलें. सीट, सेंत-सेंत (तो बसता)... राव गा, पूण तूं बॉबीक खंय वळखता?

हिप्पी : पारदों?

उमेश : तूं (भितर बोट दाखोवन) बॉबीक खंय वळखता?

हिप्पी : मों बॉबी (भितर बोट दाखोवन) येतील द दां? (अर्थ - म्हजें बॉबी भितर आसा?)

उमेश : हय... येस... सीं.

हिप्पी : मों बॉबी-मों बॉबी (भितर वचूंक करता)

उमेश : (ताका आडायता) येतलें गा तें हांगा. तूं बस पळोवया. (तो परतून उठ्ठा. उमेश ताका परत बसयता.) हांवें विचारलें तें सांगलेंचना मगा तुवें. आगा तूं बॉबीक खंय वळखता?

**हिप्पी** : केस्क नेव्हू द मान्दे?

**उमेश** : हांव विचारतां बॉबी तुजें कोण?

**हिप्पी** : बॉबी? मों बॉबी.

**उमेश** : आँ...? तुजें बॉबी? (सुस्कार सोडून) बरें आसा. (विठोबा येता.)

**विठोबा** : (हिप्पीक) तुजें नांव कितें?

**उमेश** : (तापता) बॉबीक भायर आफय म्हूण सांगिल्लें मरे तुका? हो बॉबी बॉबी करून भितर धांवता.

**विठोबा** : हांयें सांगलें तेका. तुका कोण सोदूंक येयला म्हुणोन. हेका पळोवन तें परतून भितर धांवलें.

**उमेश** : भितर धांवलें ? तो तर म्हण्टा आपलें बॉबी म्हूण आनी तें भितर कित्याक धांवता तर? आमच्या दोळयांक उदक लावपाक?

**विठोबा** : तें हेका वळखचना खंय. तेणे खंय हेका केन्नाच पळोवंकना.

**उमेश** : ही आनी कसली भानगड रे सायबा. ये मनशा...! बॉबी नो...गो-गो.

**हिप्पी** : नों-नों. मों बॉबी (भितर वचूंक करता. दोगूय आडायतात)

**उमेश** : आरे तो कसोच आयकुचोना. तो सामको पिसो जाला. मात्शें ताका भायर आफय पळोवया. रोखडेंच वच सांग.

**विठोबा** : तें कशेंच येवपाक तयार ना. हांयें तेका मात्शें धुकल्लें जाल्यार फोंस्स करून मांजराभाशेन म्हाज्या आंगार येयलें आनी म्हाजेर दावखुलां मारलीं.

**उमेश** : खंय आसा तें?

**विठोबा** : हें पळय हांगाच लिपलां दाराकुशीक.

**उमेश** : तें मांजर भितर लिपलां आनी हो बुकलो हांगा ल्हंव फुलयता.

**विठोबा** : अशें कित्याक करिना? हेकाच भितर कित्याक सोडिना?

**उमेश** : पिसो मरे तूं. तो सुण्याभशेन फाफशितलो ताका. म्हाका दिसता तांची

किर्तेतरी भानगड आसा. विठोबा, अशें केल्यार कशें? ताका भितरूच आसुंदी. हाका हांगाच रावून मोगान बॉबीक उलो मारूंक लावया.

**विठोबा** : हयवय, तशें करया.

**उमेश** : करूया खरें. पूण तो मुडांत येवन भितर धांवत. तूं दारार राव.

**विठोबा** : म्हाकाच घेवन भितर वचना जाल्यार पुरो. (दारार रावता) ये... यू... अुलो मार.

**उमेश** : कॉल-कॉल... यू कॉल.

**विठोबा** : (रागान) कॉल रे.

**उमेश** : कॉल, बॉबी-बॉबी कॉल, शावट, बॉबी बॉबी शाव्ट.

**हिप्पी** : (सुण्याक आपयल्याभशेन)बॉबी बॉबी, वेने-वेने... बॉबी बॉबी... च्-च्-च्-च्... वेने-वेने... च्-च्-च्.

**उमेश** : आगा तूं मनशाक आपयता काय सुण्याक?

**विठोबा** : हें सुण्याचें इस्पितल समजला काय किर्तें गा?

**उमेश** : काय पिशांचे हॉस्पिटल समजला गा?

**विठोबा** : हो मानिकोमांतलो पळोन येयला सो दिसता.

**उमेश** : फोन करतलो म्हळ्यार फोनूय ना. आगा हें पिशांचें हॉस्पिटल न्हय आनी सुण्यांचेंय न्हय. हें खबरांपत्रांचें ऑफिस. हांगा पेपर छापतात पेपर. चल मात्सो भायर.

**विठोबा** : चल-चल हें पळय दार.

**हिप्पी** : मों बॉबी...

**उमेश** : तुजें बॉबी गेलें दब्यांत. चल पळोवया भायर.

**विठोबा** : बरो येयला बॉबीक सोदपाक. चल रे बेगीन. हांव दार धांपतां.

**हिप्पी** : मों शियां यें पेरदू.

**विठोबा** : तें फेंग-फेंग भायर वचोन कर.

उमेश : तें भायर वचून सांग रे.

विठोबा : चल भायर.

उमेश : पयलीं वच भायर. (दोगूय ताका धुकलून भायर घालतात. तो 'मों बॉबी मों बॉबी' करीत आसता.)

उमेश : गेली एकदांची पिडा.

विठोबा : म्हाका पयलीच दुबाव माल्लेलो, हो पिसोच जातलो म्हणोन.

उमेश : पूण हाका बरो जावचे पयलीं सोडलो कोणे?

विठोबा : मानिकोमाचें दार उगतेंच आसलें दिसता.

विठोबा : आनी आमच्याय ऑफिसाचें दार उगतेंच- (दारांत हिप्पी. हातांत कागदाचो कुडको) विठोबा ऽऽ

हिप्पी : सेत आनोस सील व्हू प्ले मों बॉबी.

उमेश : परतोय आयलो तूं? तुवें दार धापूंक नासलें रे?

विठोबा : खिळी लावंक नासली. आतां लायतां. धुकल आं... अेक... दोन... तीन. (ताका धुकलून भायर घालतात)

उमेश : धांप-धांप. खिळी लाय. घट लाय.

विठोबा : लायली.

उमेश : आतां आनी परतून येना जाल्यार पुरो.

विठोबा : आनी येयलोच जाल्यार सोमतो पुलिशेंत.

उमेश : नाका. तें दारूच उगतें करू नाका. मरूं दी भायरूच बॉबी बॉबी करून. जीव सामको अर्दो केलो हाणे. म्हाका एक च्या घेवन यो पळोवया.

विठोबा : एकूच हाडूं? काय दोन?

उमेश : एकूच हाड रे. तूं थंयच घेवन यो.

विठोबा : हाडटां. (दाराची खिळी काडूंक वता)

उमेश : ये ऽऽऽ विठोबा... नाका, दार उगडू नाका. तो देंवाचार आसतलो मरे

भायर.

विठोबा : हळूच उगतें करतां आनी धांव मारतां.

उमेश : नाका-नाका. तूं भायर धांवतलो आनी तो भितर धांवतलो. मागीर हांव खंय धांवू?

विठोबा : आनी खंयच्यान वचों तर?

उमेश : आनी खंयच्यानूय वच. पूण हें दार उगडू नाका. तो दाराक तेंकुनूच बसलेलो आसतलो. दार उगतें करतांच पुट्ट करून भितर पडटलो आनी पयली म्हाका खातलो.

विठोबा : आनीक खंयच्यानूच वचोंक मेळना.

उमेश : नाका-नाका. वचू नाका. आसूं ती च्या. (दारार मारल्याचो आवाज) हें पळय, हांवें सांगूंक नासलें, तो हांगाच आसा म्हणून?

विठोबा : तुका वच म्हटल्यार कळना रे?

उमेश : Get Out. आतां आनीक येशी जाल्यार खांब्याक बांदून घालतलों.

विठोबा : खोंटानी गुड्डायतोलों.

उमेश : पुलिशेंत दितलों.

विठोबा : भिकूण कसो चिड्डीतोलों.

उमेश : चलूंक लाग.

विठोबा : वोच पयलीं.

उमेश : Out...

विठोबा : लाग मार्गाक.

उमेश : आर्ररा तूं.

विठोबा : मालकिर्याद...

सांतान : (भायल्यान) विठोबा, आरे विठोबा, मात्शें देर उगोड रे. हांव मुरे तो सांतान.

**उमेश** : सांतान रे!

**विठोबा** : सांतान तो. उगतें करूं दार?

**उमेश** : कर. (विठोबा दार उघडटा. सांतान भितर येता) कितलो वेळ रे तुका च्या पिवपाक? अर्देवर च्या पियेवन सोंपचना तुमची? सायब येवन गेलो. तुमका विचारतालो. आनी अशोक खंय रे?

**सांतान** : तो जेलो घारा. तेणे रेकाद दिला आपूण आयज लिवीर वेता म्हुणोन.

**उमेश** : आनी तूं कित्याक आयला? तूंय वयचो आसलो!

**सांतान** : हांवूंय तेंच सांगोक येयला. हांवूय लिवीर वेतां.

**उमेश** : आनी हांगा काम कोण करतलो रे?

**सांतान** : तें हांव नोको. म्हाका आयज लीव जायी. (हिप्पी येता)

**विठोबा**
**उमेश** } : आरे-आरे... भायर भायर

**सांतान** : रावात. तेका हांयें आपोयला.

**उमेश** : तो पिसो मरे.

**विठोबा** : आवटो तो.

**सांतान** : तो पिसोय न्होय आनी मालुकूय न्होय. तो अेक रेसपेदाचो मुनीस. तुमका तेची भास सोजमोना देखून तो पिसो? तो येयला पेपरार एक बरी जायरात दिवपाक.

**उमेश** : आरे पूण तो हांगा आयला आनी बॉबी-बॉबी करता.

**विठोबा** : आनी च्क-च्क करून भितर धांवता.

**सांतान** : पूण तें तुमका सजमोना. बॉबी तेच्या सुण्याचें नांव.

**उमेश** : सुण्याचें ?

**विठोबा** : सुण्याचें ! (कपलार हात मारतात)

**उमेश** : आरे, बॉबी ताच्या सुण्याचें नांव जाल्यार तो हांगा कसो पावलो ? ताचें

सुणें हांगा आसा ?

विठोबा : आमी हांगा सुणीं बांदून दवरतात किंतें ?

सांतान : तेचें तें सुणें शेणलें. सोकावपासून तेणे तें सोदलें. तेका तें मेवोंकना. आनी आतां तो पेपरार घालपाक येयला. सुण्याक लागोन तो सामको भेर्रार जाला. आपल्या सुण्याक सोदून दितोल्याक तेणे पांच हजार रुपया इनाम दोवोल्लां.

विठोबा : पांच हजार रुपया ?

उमेश : पांच हजार ? (हिप्पीक बसूंक कदेल दिता) बस-सीट ( तो बसता) आरे सांतान, पूण पांच हजार रुपया इनाम दवरपाक त्या सुण्याचो वालोर कितलो तर ?

सांतान : तो मनशांपरस सुण्यांक चोड वालोर दिता.

उमेश : पांच हजार रुपयांक एक मोटारसायकल येतली, पोन्नी.

विठोबा : म्हणचे तेंच्या गांवांत मोटारसायकलीचो वालोर आनी सुण्याचो वालोर सारकोच तर ?

सांतान : (उमेशाकडेन कागद दिता) हें पोय, ओशी जायरात दिवपाची. तेका बील कोर आनी दी. हांव चोल्लों. (बेगीबेगीन वता).

उमेश : (कागद वाचता) लांब ल्हंवेचें, पिंगशा केंसांचें, मोटव्या पांयांचें बारीक आनी काळे सोंडयेचें. शेंपडी नाशिल्लें, गोमटेंत पटो आनी पट्याक दोन मीटर लांब सरपळी आशिल्लें, बॉबी नांवाचें सुणें पणजेंत सांडलां. मेळ्ळयार पणजेच्या मोना हॉटेलांत हाडून दिवचें. पांच हजार रुपया इनाम. (बील करून दिता. हिप्पी पयशे दिता.)

हिप्पी : मेरशी ! (देव बरें करूं) (हिप्पी वता)

विठोबा : पांच हजार रुपया... हांव काडटांच त्या सुण्याक सोदून ... (पोटार हात दवरून) म्हाज्या पोटांत बरें ना. सकाळपासून दुखता. आतां चड जालें. दोतोराक दाखयल्यार बरें न्हय.

**उमेश** : फाल्यां दाखय रे. म्हाकाय मात्सो घरा वचूंक जाय. धाकलें बरें ना. तूं हांगा राव.

**विठोबा** : आतां चड दुखता. आनी मेलों जाल्यार ?

**उमेश** : मरना रे तूं. मात्सो संडासाक वचून यो. बरें दिसतलें.

**विठोबा** : ना. वयतांच हांव. चडूच दुखोंक लागलें शें. म्हाका लीव मार.

**उमेश** : आनीक लीव कोणाक मेळना रे.

**विठोबा** : ना. हांव वयतांच. म्हाजो आयच्या दिसाचो पगार कातरल्यार उपकारता. (वचूंक लागता)

**उमेश** : आरे आयक सांगतां. हें मात्शें भितर दी आनी वच. (कागद दिता) अर्जंट म्हणून सांग. फाल्यांच्या पेपरार घालूंकच जाय म्हणून सांग. आनी तूं सकाळी सातांक यो. सायब येतलो. (विठोबा भितर वता)... पांच हजार रुपया ? एका सुण्याक सोदून काडपाक पांच हजार ? बॉबी बॉबी म्हणीत असो भोंवत जाल्यार सुणेंच धांवून येतलें फाटल्यान. पांच हजार. (विठोबा येता आनी भायर वता) तीग जाण गेले. हांव तरी कसो आडयतलों.

**मिलन** : (कपल दामीत येता) तकली सामकी जड जाल्या, म्हज्यान काम करूंक जायना. हांव घरा वतां.

**उमेश** : आगो पूण तकली दुखता जाल्यार पिल्ल घे मगो. जातली सारकी.

**मिलन** : जावचिना ती. म्हाका दोतोरान सांगलेलें, चड तकली उसळत जाल्यार काम करू नाका म्हणून.

**उमेश** : कोण दोतोर गो तो ?

**मिलन** : दोळ्यांचो, आवयस... रावूंक जायना. भितरल्यान फोडटा.

**उमेश** : भितरल्यान फोडटा ? भितरल्यान फोडटा जाल्यार पगार कट करतलों.

**मिलन** : उपकारता. (वता)

**उमेश** : आयजूच हांकां सगळ्यांक पिडा मारली. कोणाची तकली उसळटा,

कोणाच्या पोटांत दुखता. (रीटा येता) तुजें कितें उसळटा ? म्हजेकडेन एक पिल्ल आसा. तें घे. रोकडेंच थारतलें पोटांतलें.

रीटा : म्हाज्या पोटांत जायना. आमगेर आयज कितें आहा.

उमेश : कितें आहा गो ?

रीटा : आयज आमगेर. आमगेर जेवोण आहा पायचें. म्हाका वोसोंकूच जायें.

उमेश : (चाळोवन) वोसोंकूच जायें जाल्यार येयलेलें कित्याक तोरू ?

रीटा : चाव्वोताय कोणाचेर रे ? बोरेबाशेन उलोवंक गोमोना ? हांव वोयतेलीं म्हुणचें वोयतेलीं. तूं आपसेंट घाल म्हाका. (वता)

उमेश : हूं... राग बरो येता हांकां. वदोळ आपयल्यार दाराकुशीक लिपतालें. आतां बरें धांवता. जेवण आसा खंय. जेवण काय पायची मूदी आसा कोण जाणा. म्हाका जर फ्रेंच कळ्ळेली जाल्यार हांवूच गुपचूप वचून ५ हजार रुपया घेवपाचों. त्या सांतानान सगळ्याक फामाद केलें.

पावलू : (येता आनी मेजाकडेन उबो रावता. आपलेच तंद्रींत)

उमेश : तूं खंय वता रे ?

पावलू : (लीव नोट मेजार दवरता)

उमेश : (नोट वाचून) तूं अेकटोच उरलेलो वचपाचो. तूंय चल्लो मरे ? तें सगलें काम कोण करतलो रे ?

पावलू : पांच हजार (आपलेच तंद्रींत)

उमेश : कितें ?

पावलू : पांच हजार... पांच हजार,

उमेश : कितें बडबडटा रे ?

पावलू : (शितीदार येवन) कांय न्हो... कांय न्हो... म्हाका... म्हाका जोर येता.

उमेश : (गोमटेक हात लावन पळयता) तूं तर सामको थंड आसा मरे !

पावलू : येतोलो... येतोलो... (तंद्रीतूच 'पांच हजार' बडबडत वता.)

**उमेश** : पांच हजार, पांच हजार ! त्या पांच हजारान सगळी वाट लायली. सगळे गेले सुण्या फाटल्यान. हांव तरी एकटों हांगा बसून कितें करतलों. नशीब तें. मेळ्ळें जाल्यार मेळ्ळें. एके रातीन पांच हजार रुपया. पांच हजार (हांसत वता)

***

(दुसरो दीस. तेंच ऑफीस. विठोबा आनी उमेश झेमतात. विठोबा स्टुलावयलो लंवडून सकयल पडटा.)

**उमेश** : (आवाजान जागो जाता) विठोबा, झेमता कितें रे तूं?

**विठोबा** : च्यॅ... हांव सकयलूच बसलोलों.

(परतून दोगूय न्हिदतात. विठोबाची तकली आपटात).

**विठोबा** : (उमेशाक पळोवन) आं...? होय न्हिदता मरे ! आनी म्हाका झेमता काय इचारता? म्हाका संवंय ना म्हुणोन हांव पडटां. हेका संवंय आसा असो न्हीदपाची. (परतून सकयल बसता आनी झेमता)

**सायब** : (येता आनी दोगांकूय रागान पळेता) विठोबा... विठोबा. (विठोबा जागो जाता आनी तायट उबो रावता.)

**विठोबा** : सायब-सायब, ना सायब. हांव बेश्टोच बसलोलों- थंयच मात्सो दोळो लागलो.

**सायब** : आनी हें कितें? हो केन्नापासूनं न्हिदला?

**विठोबा** : तो येदोळ न्हीदलोलो सायब. तेका संवंय आसा न्हिदपाची म्हुणोन तो जागो जायना. म्हाका संवंय ना म्हूणोन हांव रोकडोच जागो जालों.

**सायब** : राती खंय गेल्लो रे तूं? (मेजार हात मारता) राती खंय गेल्लो रे तू?

**उमेश** : (न्हिदांतलो मात्सो जागो जाता) वगी न्हीद रे न्हिदला जाल्यार. बोवाळ कित्याक? (परतून पळेता आनी फडफडून उबो रावता) सायब, गुड मोर्नींग ,सायब.

**सायब** : न्हिदून कामां करतात रे तुमी?

**उमेश** : ना सायब. हांव बेठोच बशिल्लों.

**सायब** : रातीं कितें जालें रे?

**उमेश** : कांय ना सायब.

**सायब** : आयज पेपर कित्याक भायर सरूंक ना?

**उमेश** : काल सगळे लिवीर गेले सांयबं.

**सायब** : सगळे एकदम लिवीर गेले ?

**उमेश** : हय सायब.

**सायब** : कित्याक?

**उमेश** : सुण्याक सोदपाक सायब. हांव वचूं नाका म्हणटा आसतना गेले सायब. पगार कट कर म्हणूक लागले.

**सायब** : सुणे कोणाचें रे?

**उमेश** : काल हांगा एक फॉरेनचो मनीस आयिल्लो सायब. हिप्पी. ताचें सुणे सांडलें म्हूण ताणे पेपरार घालपाक जायरात दिली. आनी सोदून काडटल्याक पांच हजार रु. इनाम दवरलें. ती जायरात वाचून सगळे लीव काडून त्या सुण्याक सोदपाक गेले.

**सायब** : तुवें म्हाका कालूच कळोवपाचें न्हय?

**उमेश** : सायब, हांवूय लिवीर गेल्लो सायब.

**सायब** : म्हणचें तूंय सुण्याक सोदपाक गेल्लो तर?

**उमेश** : हय सायब. सगळी रात सुण्यांक सोदपाक भोंवलों, पूण सकाळी हांगा आयलों सायब.

**सायब** : रातभर सुण्याक सोदपाक भोंवले आनी आतां न्हिदो काडटात?... पांच हजार रुपया बक्षीस दवरपाक सुणें कसलें तर रे तें?

**उमेश** : भायलें सुणें सायब... लांब ल्हंवेचें-

सायब : आं ऽऽऽ ! सुण्यांचे नाव बॉबी मरे त्या?

विठोबा
उमेश } : हय. खंय आसा?

सायब : तरीच. म्हाका जायते जाण सांगताले. आमच्या ऑफिसांतले सगळे मनीस राती रस्त्याचेर पिशांभशेन बॉबी बॉबी करीत भोंवताले म्हणून. खरें मरे हें?

उमेश : हय सायब.

सायब : एका सुण्याक लागून सुण्याभशेन रस्त्यार भोंवून आमचें नांव सामकें व्हगडायलें मरे तुमी. आनी पुलिशेन धरून कोणाक व्हेलो रे?

विठोबा : म्हाका सायब.

सायब : कित्याक?

विठोबा : सायब, बॉबी-बॉबी, च्-च् करून हांव सुण्याक आपयतालों. ते वाटेन एक चेंडू वयतालें. तेका लोक बॉबी म्हणोन चाळयतात दिसता. तें येयलें आनी म्हाजेर एक ओडलें. वयल्यान पुलिशेन म्हाकाच धरलो.

सायब : आनी हें सगळें एका सुण्याक लागून घडलें. एक दीस पेपर बंद जाल्यार आमका कितलें लुसकाण जाणात तुमी? आतां पयले फावट तुमका सोडटां. हाचेफुडें केन्नाच जर अशें घडत आनी कोणूच ऑफिसांत न्हिदिल्लो जर दिसत तर सामको सिरविसेंतलो निखळायतलों (वता)

(दोगूय न्हीद सांबाळटात. तरी न्हीदतात. सांतान आनी हिप्पी येतात)

सातान : उमेशबाब, ए उमेश... विठोबा, ए विठोबा-

(दोगूय फडफडून उठ्ठात)

विठोबा
उमेश } : चूक जाली सायब, चूक जाली.

सांतान : आरे हांव सांतान मरे. (दागूय दोळे चोळून पळयतात.)

उमेश : तूं रे...

विठोबा : (हिप्पीक पळोवन) होय येयलो मरे तर ! बस. सीट.

उमेश : सांतान, सुण्याचें कितें जालें रे?

सांतान : आरे सुणे मेवलें.

विठोबा : तुका मेळ्ळें?

उमेश : पांच हजार रूपया घेतले?

विठोबा : आमका पार्टी केन्ना रे ?

उमेश : पांच कोंबे मारूया.

विठोबा : नाका. एक बोकडो मारूया.

उमेश : नाका नाका. आमी करची न्हू. हॉटेलांत वचोन खावया.

विठोबा : सांतान, पांच हजार रुपया कितले आसतात रे? इतले? इतले...? काय इऽऽऽतले?

उमेश : हांवें पळयल्यात, खूब आसतात. एक सुटकेस भरून. सगळ्यो नोटीच.

विठोबा : आवयस! पांच हजार रुपया. सांतान. खंय दवरले रे ते?

उमेश : सांतान, तूं लक्की.

विठोबा : तुजें नशीब घट.

उमेश : आमचें फुटलां.

विठोबा : आमच्या नशिबाक बुराक जाला.

सातान : वोगे रावाय रे! आमचें सगळ्यांचेंच नशीब फुटलां.

विठोबा : पांच हजार रुपया घेवन पिरंगता कित्याक रे?

सांतान : आरे म्हाका सुणे मेवोंकना.

उमेश : तुकाय मेळुंकना?

विठोबा : कोणाक मेळ्ळें तर?

**सांतान** : तेकाच मेवलें.

**विठोबा उमेश** : (निर्शेवन) ताकाच मेळ्ळें!

**विठोबा** : पांच हजार उल्ले.

**उमेश** : आमका फुकट त्रास.

**विठोबा** : फुकट जागरण.

**उमेश** : सायबाच्यो तापोवण्यो. पूण ताका खंय मेळ्ळें रे तें?

**सांतान** : तेच्या रुमांतूच. आलमारी पोंदाक न्हिदलेलें खुंय.

**विठोबा** : मोठें मालकिर्याद मरे तें सुणें!

**उमेश** : आमी मात बॉबी बॉबी करीत रस्त्याचेर भोंवले.

**विठोबा** : सांतान, तेचें सुणें तेका मेळळेंच. दुसऱ्या कोणाक मेळ्ळेलें जाल्यार तो पांच हजार दिवचो नसलो? पांच हजाराचेर तेणे उदक सोडलेलेंच. तेच पांच हजार आमका दी म्हणून सांग रे तेका. आमी कोणाक सांगचे न्हू. ल्हवूच वांटून घेवया.

**सांतान** : ते पांच हजार न्होय. थींगा एक व्होडली मिस्टेक जाली. ते खंय पन्नास रुपया. तेणे म्हाका फ्रँचीत बरोवन दिलें आनी इंग्लेजींत कोर म्हणोन सांगलें. तेणे बोरोयलेले पांच, झिरो, पॉयट, झिरो, झिरो. मोदें पॉयट आसलो तो म्हाका कोमा कोसो दिसलो, आनी हांये पांच हजार बोरोयले.

**विठोबा**<br>**उमेश** } : पन्नासूच रुपया? (कपलार हात मारून बसतात)

(हिप्पी बील सांतानाकडें दिता. सांतान उमेशाकडे दिता)

**सांतान** : आयज पेपार काय भायर सोरोंकना. तो पयशे पोत्ते मागता.

**(पड्डो)**

